# हावेसाचीं पांखां

(कविता संग्रह)

आनंद फडते

सुमित्रा प्रकाशन

हावेसाचीं पांखां
कविता संग्रह

Havesanchi Pankha
Collection of Poems

प्रकाशन क्र : 1

Publication No.: 1



उजवाडावपी :
आनंद नरसिंह फडते

Publisher :
Anand Narchinva Fadte

प्रकाशक :
सुमित्रा प्रकाशन
कापशे, सावड्डें, गोंय

Publisher :
Sumitra Prakashan
Capxem, Sanvordem, Goa

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रूतू ऑफसेट,
सावय वेरे, वळवय फोंडें, गोंय.

Printer :
Hiru Narayan Naik
Rutu Offset,
Savoi - Verem, Volvoi,
Ponda - Goa.

मुखचित्र :
अभिशेक प्रभू

Cover Art Work :
Abhishek Prabhu

पयली आवृत्ती :
मार्च 2007

First Edition :
March 2007

प्रती : पांचशे

Copies : Five Hundred

मोल रू. 30/-

Price Rs. 30/-

हे पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां.

*जिणें म्हाका दिलीं पाखां*
*उंच उंच उडपाचीं*
*ते म्हजे आवयक (सुमित्रा न. फडते)*
*हें पुस्तक ओंपता...*

# हावेसाचीं पांखां / यादी... आनंदाच्यो

कांय वर्साफाटींची याद... म्हजें लेक्चर घेवन जातकच हांव स्टाफ रुमान येतालें... इतल्यान फाटल्यान पयलें वर्स कॉमर्साक शिकपी एक भुरगो धांवत आयलो... "टिचर, मात्शें काम आशिल्लें, हांवें थोड्यो कविता बरयल्यात, मात्श्यो पळयता?"

कॉमर्स शिकपी भुरग्याच्या तोंडांतल्यान 'कविता' हें उतर भायर सरील्लें आयकून खरीच मनाक धादोसकाय भोगली.

ताच्यो त्यो धा-बारा कविता वाचतना धन्य दिसलें. तातुंतल्यो चूको सुदारुन, थोडे बदल सुचोवन त्यो परत केल्यो. जमता तेन्ना ताजेकडेन कवितेविशीं उलोवप, नवीं पुस्तकां वाचूंक लावप चालूच आशिल्लें. कोंकणी युवा संमेलनांत जायते सर्तीनी आनंदान कविता सादर करची... इनामां जोडचीं.

अभ्यासांत हुशार, नमळायेन वागपी तसोच गोंयचो आनी कोंकणीविशींचो अभिमान बाळगुपी अशा आनंदान कोंकणी सरस्पतीच्या दरबारांत 'पांखां'च्या रुपान केल्ल्या मोलादीक योगदानाची तोखणाय दिसता.

मनांतले उत्फर्के सरळ सादेरीतीन अचळय कागदार उतरायतना आनंदाची हुशारी जाणवता. समाजाबद्दलची आपुलकी, आस्था, निश्टा कळकळीन मांडटना शांत चीत्त दवरुन सत्य परिस्थीतीची जाणीव करुन दितलो सहनशील कवी दिश्टी पडटा. उमेदीची झालर लाबिल्ल्यो कांय कविता तर मनाक ल्हवूच आफडून वतात.

गांवगिऱ्या वाठांरात आनंद ल्हानाचो व्हड जालो. वाचनाची उपाट आवड आशिल्लो आनंद हळूहळू स्वतः बरोवपाक लागलो. फकत कवितेपुरतो मर्यादित रावनासताना ताणें कॉलेजीन शिकतना ल्हानशीं नाटकुलीं बरयलीं आनी बसयलीं.

आपल्या कवितेच्या पयल्या झेल्यासयत, आनंद कोंकणी साहित्यांत पयलें पावल घालता. कश्टांच्या हुमेन हातांत घेता त्या वावराचें भांगर करपाचो हावेस बाळगुपी आनंद असोच फुडें सरुं... नामना जोडूं... आनी नीज गोंयकारांच्या कोंकणी भाशेक यशाचे तेंगशेर व्हरपाच्या वावराक हातभार लावूं... हीच काळजासावन इत्सा.

**– सौ. स्मिता हेदे संझगीरी**

# आनंदयात्री...

आनंद फडते ह्या कवीच्यो नव्या दमाच्यो आनी नवे उमेदीच्यो कविता वाचल्यो. पोन्या उतरांक नवो अर्थ दिवप आनी नव्यान उतरां घडोवप हें कवीचें कसब, ते बाबतींत आनंद फडते यशस्वी जाला अशें त्याच्यो कविता वाचून दिश्टी पडलें.

आनंदाचे कवितेक विशयाचें बंदन ना. प्रेमापासून सैमामेरेन, तत्वगिन्यानापासून देशभक्तीमेरेन सगले विशय कवीन 'आनंदान' हाताळल्यात. आनंद फडते दरेक कवितेपोंदा जी निशाणी करता ती 'आफडत' अशी वाचूंक मेळटा. तेच निशाणेचो आदार घेवन, आनंद फडते मळबापोंदच्या साबार विशयांक आफडटा अशें म्हणन दिसता.

आनंदाच्यो कविता चड करुन सहजस्फूर्त (spontaneous). तांचेर उत्तर-कारागिरी करपाची गरज ताका पडिल्ली आसूं नये. पूण ती 'आयलें तशें गायलें' ह्या थाटाची नासून "काळजात बरें शिजलेबगर - पानार वाडचें न्हय" ह्या थाटाची जावन आसा. इतले तरणे पिरायेचेर आनंदाकडेन तत्वगिन्यानाची-चिंतनाची बसका आसा हाचे कौतुक आसा.

कविता सहजस्फूर्त आसता तेन्ना उतरां जायतशीं-जायतेन्ना-जाय तसलीं येवंची पडटात. आनंदाक उतरांचें देणें मेळ्ळां. कवितेच्या रुपाक आनी अर्थाक अनुकूल अशीं उतरां ताका आपसूंक 'येतात', मागीर तीं 'जिवनाचे चीज होणे' (मराठी), ब्रेक लागप (इंग्लीश), कारगिली भूभाग (हिंदी) अशी हेर भासांचे प्रभावाचीं आसलीं तरी कवितेंत 'फिट्ट' बसतात आनी सोबतात. जी गजाल अर्थाचे बाबतीत, तीच गजाल अभिव्यक्तीविशी. अनुप्रास वा यमक जुळवणे खातीर आनंदाक कश्ट घेवंचे पडनात.

खंयचेय कवीचो 'तारुण्यसुलभ' अणभव म्हळ्यार मोग. प्रियकर-प्रेयसी मोगाचीं सुखी-दुखी, तृप्ती-अतृप्तीची, एकतर्फी-दुहेरी, ताटातूटी-मीलनाची, अशी कितलीशींच रुपां कवीन मांडल्यांत खरी, पूण कवीच्यो प्रेमकविता पारजत-फुलाभशेन धव्या-रुपाच्यो पूण रगताळलेल्या देंठाच्यो आसात. दर्यांतल्यान मोगा-यादींचीं ल्हारा येतलीं म्हण कवी रावता, ल्हारा येतात, पूण तातूंत मोगा-यादी आसच नात. मन ओलें करुन कवीक फकत खार-वाऱ्यांत आंग सुकोवपाची पाळी येता. अश्यो मोगातल्यो खारसाणी, 'म्हज्या मोगा', 'मोगा-वाल', 'पुनवेचे रातीक' सारक्या कवितांतल्यान चाखूंक मेळटात. मोगांतले दुखावल्लेंपण, काळीजदुख वा मनघावो दाखयताना कवी

भावूक जाता आनी भोवच तरलतायेन अभिव्यक्त जाता.

हेचतरेन मोगांतलो तृप्तीचो, साफल्यतायेचो अणभव (मोगा पिशें मन), विरहाचें दुख (म्हजे जिवीत), मोगांतली हुमकळणी, ताटकळणी (जिणे तारू) लेगीत कवीन समर्थपणान उक्तायल्या. मोगिकेकडलो संवाद आसूं (हांव मोनो) वा मोगिकेचें वर्णन आसूं (मोगा रंग), कवी तो अणभव सैमा-रुपांतल्यान भेटयता. मोग आनी सैम हांची ही एकरुपताय हें आनंदाच्या कवितेचें वैशिश्ट्य. मनमीलनाचो-प्रेमांतले आश्वस्त-तायेचो-समर्पणाचो वयलोवयलो न्हय तर गर्भखोल अणभव म्हळ्यार आनंदाच्यो प्रेमकविता - एक काळीजकवन - हृदयस्तवन. ह्या प्रेमकवितांतली अग्रेसर कविता म्हळ्यार 'भेट ती सूर्यासागराची' ही कविता वाचप्यांनी मुजरत अणभवची. तिच्या अनेकार्थीपणाक लागून (ambiguity) ती अर्थपुराय जाल्या.

मोगानुभव उक्तायतना केन्ना केन्ना निराश-हताश खीण कवीन व्यक्त केल्ले आसले तरी आनंद फडते एक खर आशावादी कवी जावन आसा. 'हावेस', 'सोंपले पूण साडुंना', ह्यो कविता दुर्दम्य आशावाद उक्तायतात. समाजीक-आशय उक्तायतना कवी कर्मवादी जाता आनी खूब practical जाता. 'आमी लज झडयली' हे कवितेंत कवी व्यक्तीस्वातंत्र्याच्या नावाखाला चलताल्या अनिर्बंध स्वैराचेर बडी मारता. जाल्यार 'दोळे उक्ते दवरुन' कवितेंत मनशाची आधुनीक जीणेंतली शरणागती दाखयता. जीणेंतल्या चुकिल्ल्या संदींविशी कवी भाश्य करता (आयदन म्हजें) तशेंच मनीस-जिणेचो हिशोब मांडटा (वर्साचीच जोड म्हजी) आसतना म्हणटा,

> **"हाडली पोड खाली पोड**
> **जिणेंत म्हज्या वर्सा**
> **बदलत गेल्यांत पूण**
> **तीच पेज आनी**
> **म्हारगेली तोरा फोड"**

केन्ना कवी रगताक ताचो रंग, जात, धर्म आनी देव विचारता, जाल्यार केन्ना 'बदलती जीण' चितारता. कवी केन्ना गोंयकाराक उलो मारता आनी 'गोंयकारपण' तिगोवपाचें आवाहन करता जाल्यार केन्ना मनीसपणाक साद घालता (बुरखो).

चडश्या कवितांनी निमण्या कडव्यांत वा निमण्या वळींत पुराय कवितेक अर्थगर्भताय दिवपाची कळाशी कवीक बरी जमल्या. 'तुंवय यो', 'फुलत्या फुला', 'खेळ नजरेचो' आदी कवितांनी हो निमाणो झटको प्रकर्षान दिसता.

तेचतरेन समाजीक विषमताय दाखोवपी 'आमकां आज जाग आयल्या' हे कवितेंत 'तुमी धोल धोल बडयले आमच्या पोटार-भितरले भितर रडले आमी' वा

'आमी कात झडयली तुमचेखातीर, जोडलें तुमी-आमची पोटाफाळी लेगीत भरुंक ना' हे अणभव अस्सल आनी अव्वल दर्जाचे आसात.

ही कविता म्हळ्यार मनीस-जिविताचो हारसोच. तातूंत कवी आपलेंच रुप पळयता. ताका समाजाच्या देण्याची जाणविकाय आसा. 'तुवें दिलीं पाखां' सारके कवितेंत तो समाजाकडली कृतज्ञताय उक्तायता. आनंदाची कविता सद्भावाची, सद्गुणांची, सद्विचाराची, सद्बुध्दीची, सद्मनाची. ताचे कवितेक दुस्मानकाय, द्वेस, मत्सर, दुश्टपण हांचो लवलेश ना. 'आंगाक म्हज्या' ही कविता ते नदरेन प्रातिनिधीक.

आनंद आपल्या काव्यसाम्राज्यांत रमता-गुल्ल जाता. शब्दसुरांचो तो अनाभिषिक्त सम्राट. मराठींतली एक कविता/गीत आयकल्लें - जग सुंदर माझे आहे - मुक्त गीत गाणारा - मी मुक्त कलंदर आहे - आनंदयात्री मी आहे.

**आमी गा कवी**
**धाय दिको -कठांवपी**
**मनातलें वोंठार हाडपी**
**न्हय आमी गायक**
**आमकां ताल लय ना**
**तरीय मुक्त गळ्यान गावपी**

मुक्त गळ्यान गावपी हो कवी लेगीत एक आनंदयात्रीच जावन आसा. मनशामनशांमदले आडे पयस करपाचो हावेस बाळगुपी, सत्य भिजूड न्हय हें मूठ उबारून सांगपी, आत्मविश्वास आनी स्वाभिमान बाळगून हो आनंदसूर्य उदेला -

**उदेंतो सूर्य हांव**
**पयलें पावल भुंयेर दवरता**
**सगल्यांक हर्षभरीत करता**
**उदेंतो सूर्य हांव**
**कोरता उगड्या मळबार म्हजेंच नांव.**

आनंदाचे यात्रेर हें पयलेंच पावल खूब आत्मविश्वासाचें आनी उत्साहाचें. तें वाकडें पडूंक ना. पूण कायकडेन हें पावल तिरपलां, घसरलां. अतिविस्तार, अपरिपक्वताय, पुनरावृत्ती सारके दोश ताका कांयकडेन दसल्यात. पूण हें पावल खंबीर आनी नेटान मारिल्लें आसा. देखून ह्या आनंदयात्रीक ताचे काव्ययात्रेक शुभेच्छा!

**- प्रा. भूषण भावे**

# काळजांतलीं हावेसाचीं पांखां

म्हजे खातीर कविता म्हळ्यार म्हज्यो भावना, म्हजे विचार आनी बऱ्या वायट वेळावयलो सांगात. हांवे बरयलां, तें तुमकां आवडत ना आवडत पूण म्हज्यो भावना तुमचे मेरेन पावोंवपाचो एक यत्न म्हळ्यार म्हजी "हावेसाचीं पांखां" जेन्ना जेन्ना हांव एकलो एकसूरो जालो तेन्ना म्हाकां, म्हज्या भावनांक कवितेन सांगात दिलो आनी हें साहित्य निर्माण जालें.

म्हज्या कवीमनाक मनीसपणाची भावना आनी जिवीताकडे पळोवपाचो एक सक्षम आनी सकारात्मक दृष्टीकोन म्हाकां म्हजे आवयकडसून मेळ्ळा. तिच्या कश्टकरी जिणेचो सांगात म्हज्या मनात आनी काळजात खूब किते रीगोवन गेला. जिणें म्हाका दिलीं पांखां उंच उंच उडपाचीं ते म्हजे आवयक (सुमित्रा नरसिंह फडते), हांव हें म्हजें पयलें वयलें पुस्तक अर्पण करता.

म्हजी कविता फुलपाक आनी फुलोवपाक म्हज्यो खूब इश्ट आनी इश्टीणी म्हजे फाटल्यान आसात. म्हज्या कवितेचे पयले श्रोते, वाचक आनी समिक्षक म्हण तांचे योगदान महत्वाचें. खऱ्या अर्थान म्हजे कवितेक वळख दिली ती म्हजी टिचर सौ. स्मीता हेदे संझगीरीन, तिणें दरेका पांवड्यार म्हाका उर्बा दिली, उक्त्या मळबांत उडपाची. कविता बरयली की ती दुसऱ्यामेरेन पावोवची आसता हें म्हाका म्हजें टिचरीन सांगलें. तांगेल्या प्रोत्साहनाचें फाटबळ म्हाका हांगामेरेन घेवन आयलां, तिणें म्हज्या पुस्तकाखातीर आशिर्वाद स्वरूप बरप करून म्हाकां उपकरात दवरलां.

लिखाणांतलो व्याकरणदोश दाखोवन आनी मोलादीक अश्यो सुचोवण्यो करून प्रा. भूषण भावे हांणी म्हाका आदार दिला. तांणी वेळांत वेळ काडून म्हज्या हावेसाच्या पाखांक प्रस्तावना दिली म्हण हांव तांचो चड उपकारी. कविता पुस्तकरूपान येवपाखातीर जाय आशील्ली मदत गोवा कोंकणी अकादेमी कडल्यान 'पयलो चंवर येवजणेंतल्यान म्हाका लाबल्या म्हण हांव तांचोय उपकारी. पुस्तक छापपासंबंदान म्हजो आतेभाव श्री. सूरेश सावंत हाणेंय म्हाका खासा आदार केला. आपलो मोलादीक वेळ दीवन पूस्तकाचीं व्याकरणीक नदरेतल्यांन प्रूफा तपासून दील्ले खातीर डॉ. जयंती नायक हांचोय हांव उपकारी. तशेच हे सुंदर पुस्तक छापून दील्ले खातीर ऋतू ओफसेटचे मालक श्री. हिरू ना. नायक हांचोय हांव उपकारी आसा. निमाणे पूण पुस्तकाच्या सुरवातीचें कवर पान सोबयलां म्हजो इश्ट आनी तरणाटो चित्रकार बाब अभिषेक प्रभू हाणें. आपलो मोलादीक वेळ आनी विचार दिवन म्हज्या कवितांचें ताणें प्रतीक चितारला तेखातीर ताजोय हांव व्हड उपकारी.

म्हजी हावेसाचीं पांखां मुजरत तुमचे मुखार दवरतना मनाक खोस भोगता. म्हज्या हावेसाच्या पांखांक आदार करतल्यां सगळ्यांक देव बरे करूं!

**– आनंद फडते**

# मांडावळ

## 1. हावेस

हावेस आसा उडपाचो
पांखां मात जाय
पांखां पुरतो न्हय हावेस
उडपाखातीर उक्ते
व्हडशें मळबय जाय.

मळबभर भोवतगीर
सुशेग घेवंक
मायेची कूस जाय
हावेसाच्या पांखांनी
हावेस आसा जग जिखपाचो.

जगापूरतो न्हय हावेस
मनिसपण जिखपाखातीर
आनीक एक जल्म जाय
हावेस आसा उडपाचो
पांखां मात जाय.

## 2. तुवें दिलीं पांखां

तुवें म्हाका दिलीं पांखां
उंच उंच उडपाचीं
मळबापरस वयर
दिगंतराक जिखपाचीं
तुवें दाखयलो दर्या
उर्बा दिली पेंवपाची
मनांत म्हज्या
आस घाली जल्माक
जिणेखातीर झुंजपाची
तुवें म्हाका दिली जिद्द
जैतिवंत जावपाची
आज तुज्या जल्मदिसाक
कितें भेट दिवपाची
हें चिंततना
गडबड्टात उतरां म्हजीं
तरीय तुजेखातीर
काळजांतल्यान दितां
असंख्य शुभेच्छा सयत
भेट ह्या शब्दरूपी फुलांची.

## 3. आंगाक म्हज्या

मनाक म्हज्या सूप जांव दी
बऱ्या गुणांक आपणावपाक
वायट गुणांक फांफडावपाक
मनाक म्हज्या सूप जावं दी.

काळजाक म्हज्या दर्या जावं दी
जिणेच्या सुख-दुखांक
बऱ्या वायट अणभवांक
आपलेभितर आस्पावपाक
काळजाक म्हज्या दर्या जावं दी.

दोळ्यांक म्हज्या कूप जावं दी
दुसऱ्याखातीर दुकां गळोवंक
दुकांचो हुंवार पयस करूंक
दोळ्यांक म्हज्या कूप जावं दी.

पांयांक म्हज्या चाक जावं दी
जिणे वाट चलपाक
दोंगर आडवाट
कातरून फुडें सरपाक
पांयांक म्हज्या चाक जावं दी.

हांताक म्हज्या रूख जावं दी
गरीब दुबळ्यांक मायेची सावळी दिवंक
कडकड्ट्या जाण्टेपणांक आदार दिवंक
हातांक म्हज्या रूख जावं दी.

आंगाक म्हज्या चंदन जावं दी
दुसऱ्याखातीर झिजून झिजून
म्हजे जिणेचें चीज जावं दी
आंगाक म्हज्या चंदन जावं दी.

## 4. आमी लज झडयली

आमी कात झडयली
काती वांगडा लजय झडयली
भेंडाचें काडून तकलेक बांदून
फुलूखुस्तार फेस्तां मनयलीं.

मनीसपणाचे  स्वतंत्रतायेन
विचारांची आनी अविचारांचीय
शेतां पिकयलीं
अस्तुरेन हुमरोच हुंपलोना
हुमऱ्या वांगडा लक्ष्मण रेशाय
हुपली आनी हुयेल माळ्ळी.

निती–अनीती एकठांय आयली
सुवार्थाखातीर देवाधर्माचीय
वाट लायली
शिक्षणाच्या नांवान हांगा
व्यभिचारांची बिंयां पेरलीं

आमी कात झडयली
काती वांगडा लजय झडयली.

## 5. दोळे उक्ते दवरून

दोळे उक्ते दवरून
तूं म्हण्टा न्हिदला
सगलें दिश्टी पड्टा
तरीय तूं आंधळो किद्याक जाता?

दरेकाचें रूपडें
तुका बेस बरें कळ्ळां
तरीय तूं त्याच रूपड्यांक
किद्याक तरी भुलता?

उजवाडाचें राज्य म्हजें
म्हणत म्हणत तूं
रातीक लांयता वाती
आनी न्हिद येना म्हण
किद्याक तरी शिणटा?

पायांक चाकां तुवेंच लायलीं
तीं धांवतलीच मागीर
केन्नाय ब्रेक फेल जाल्यार
किद्याक तूं कांचवेता?

तुवें घड्याळीक जीण ओंपली
रातीचे दीस करून
काम करीत, मागीर
फांतोड सपन किद्याक आशेता?

## 6. आमी गा कवी

आमी गा कवी
फक्त कवनां रचपी
खोलाय काळजांतली
सुखदुखां कागदार पितारपी
आमकां ना वेवहाराची जाण
आमचेखातीर नवोच हो
संवसारचो मांड.

आमी गा कवी
धाय दिंको एकठांवपी
मनातलें वोंठार हाडपी
न्हय आमी गायक
आमकां ताल लय ना
तरीय मुक्त गळ्यान गावपी.

आमी गा कवी
फक्त कवनां रचपी
न्हय आमी लेखक
आमकां मतां गोतां नात
तरीय मुक्त शायेन बरोवपी
आमी गा कवी
फकत कवनां रचपी.

## 7. सोंपलें पूण सोडुंना

कागद म्हजें भरलें पूण
विचार सोडलेना
शाय पेनाची सोंपली म्हण
बरवप सोडलेंना
तरणेपणान पावलो पूण
भुरगेंपण सोडलेंना
तरणेंपण आयलें म्हण
पावल वाकडें पडुंना
संवसार भश्टला पूण
म्हजें तशें ना
वेळ ना जालो पूण
कवीत रचप सोडलेंना
देवान ख्यास्त दिली म्हण
ताका दोश दिलोना
आयुश्य म्हजें भटकें म्हण
नशिबाक दोश दिलोना.

## 8. आयदन म्हजें

आयदन म्हजें रितें तें रितें
उदक जरी तें
दीस रात व्हांवतें
फकत लक्ष नासलें म्हजें
थंयच दिसता सगलें चुकलें
म्हण लक्ष एकवटायलें हांवें
पूण आयदन भरलें ना म्हजें
प्रयत्न हांवे सगळे सोडले
तरीय तूं पिशें कशें रडलें
मागीर म्हाकाच कळ्ळें
सगलें अचकीत जाणवलें
म्हजें आयदन तें कित्याक रितें
हांवे तें तर दवरिल्लेंच परतें.

## 9. म्हाका मुक्त कर

हांव आज बांदून आसा
म्हाका मेकळो कर
नात्यागोत्यांचीं तोडून पासां
म्हाका मुक्त कर.

व्हडपणा खाला तांच्या हांव
चेपत गेला
लंगडे अर्थीकायेन हांव
मान बागयत गेला

दिवन भुजांक बळ
म्हाका मुक्त कर
उक्त्या मळबाक घेराव घालूंक
पांखां बंद-पास
सोडून मेकळो म्हाका कर

तुजे आशेन
आजून हुमकळटां
फांसाची मानेक दोरी
बांदचे आदीं
तूं येवन म्हाका सोड
अंतकाळाचो दिवन आदार
म्हाका मेकळो कर

# 10. उदरगतीचें यूग आयलां

उदरगतीचें यूग आयलां
खूब उदरगत जावंक पावल्या
दिसा-दिसाक नवो सोद
घेता सगळे ज्ञानाचो बोध.

मनशान उदरगत खूब केल्या जायत
पूण कोण सैमाचेर जैतीवंत जावुंकना
धुमकेतुचो सोद लागला आसत
पूण ताका आडावंक कोण शकचोना.

उदरगतीन मशीन यूग आयलां
मनीसपणाचो अंत जावंक लागला
आजून मेळूंक ना ताचो बोध
वगीच आमी करतात क्रोध.

आमी नवी वखदां सोदल्यां आसत
अमृत आजून मेळुंकना
रोगांचेर जैत मेळ्ळां आसत
पूण मर्णार कोणूच जैतीवंत जावुंकना.

उदरगतीच्या नांवान आमी
खूब किदें वगडायलां
आनी कणभर एकठायलां
आनी ताकाच आमी तोखणायलां.

## 11. वर्सांचीच जोड म्हजी

वर्साची जोड म्हजी
वर्साची मोड
जोड मोडीचो हिशोब म्हजो
वर्साच्या शेवटाक
करता फुडाराची तडजोड
गेल्या वर्साच्या वेव्हारान
चांखलां हांवे कांय कडू कांय गोड
नवें वर्स येतलें फाल्यां
तयारी करूंक जाय
गेल्ल्या वर्सान दिल्ले घाय
रातयांभितर पेखोवंक जाय
जिणेचे धकाधकीन
वर्सान नव्या धांपलां किदें
पोरूंचेच पिरंगवणे
कांय दोन खीण सुख दिणे
तेंवय पळोवन घेवंक जाय
वर्साची जोड म्हजी
वर्साचीच मोड
सप्तुक्या* राती
म्हज्या हातांत किदें
हाडली पड खाल्ली पड
जिणेंत म्हज्या वर्सां
बदलत गेल्यांत पूण,
तीच पेज आनी
म्हारगेली तीच तोरा फोड!

* सप्तुक्या – सोपत आयील्ली

## 12. रगता तुजो रंग

रगता तुजो रंग दाखय
रंग एक तर जात दाखय
धर्म तुजो खंयचो सांग
रगता तुजो देव सांग?

रगत तांबडे गुल्ल
सगल्या आंगां व्हांवता जरी
मनात काळो चिंतना धुल्ल
मनीसपणार घालता घुरी

उज्याक खबर पेटप फकत
मर्दी आयलें जळोवप फकत
ताका ना जाण धर्माची, जातीची
सुक्याची, जित्याची
धर्मच जाचो जळप फकत.

कितले संवसार उध्वंस्त
करणेन केलां राजकारण
भरदिसा मनीसपणा सुर्या अस्त
देवा नांवान चल्लां हांगा देवचारपण.

# 13. बदलती जीण

निसर्ग मळार धांवताना
रेबो–माती उसळायताना
मस्तो पोर दाखयता भुरगेपणा
सगलीं ताचीं मस्तेपणां

आवय–बापायचें आयकतना
जाण्ट्या लोकांक मान दितना
तो दाखयता आपलीं शाणेपणां
सगलीं ताचीं आपलेपणां

कामधंद्याक जीव ओंपतना
भुरगेबाळांचो सांबाळ करताना
तो दाखयता आपलीं जाण्टेपणां
सगलीं ताचीं संवसारीकपणां

सदाच जिणेंत खस्तो खातना
जिणेतलें सुखदूख अणभवताना
तो दाखयता आपलीं सोशिकपणां
सगलीं ताचीं पिशेपणां

रातचे सदांच खाकत खोकतना
आस केन्नाच सोडचोना
अखेरेक लेगीत मरतना
सगलीं ताचीं फकाणां

संवसारांत मनीस येतना
कांयच घेवन येवुंकना
आनीक मरून लेगीत वतना
कोणूच किदेंच व्हरना

## 14. मागणें म्हजें देवाकडे

बेगीन राया येवचो तुवें
घालून घावे मनिसपणाचेर
केल्यात हांगा जुलूम कितले
श्रीकृष्णा तुका आपोवणें म्हजें
आज ही द्रौपदी तुजी
राया जावन हरणावरी
पडल्या वाघांच्या हातीं
वस्त्र तिचें सावंरुक
अस्त्र देवा उबार
ह्या अर्जुनाक तुज्या
वाट आज दाखय
मागणें देवा तुजेकडे
अवतार तूं आनीक एक घे
हांगा आसात रे फक्त बघे

## 15. गोंयकारा

गोंयकारा खंय रे तुजें
गोंयकारपण शेणलां
चांटेपांवलाक उश्टे परक्यांलें
किद्याक तुवें चांटलां?
खिणांखिणांक किद्याक तुवें
परक्यांचेंच ल्हेंवलां
तुका तुजें अशें कांयच ना व्हय रे?

खंय रे तुजी अस्मिताय
खंय तो तुजो आत्मसन्मान
तुका आत्मोच ना तर सन्मान खंयचो
गोंयकारा तुका तुजे अशें
उतर ना व्हय पोटभर मागपाक
कसली तुका लज भीड
कोंकणी उलोवपाक.

गोंयकारा खंय रे तुजें
गोंयकारपण शेणलां
किद्याक तुवें फिरग्यांचे काशांव खणल्या
सोबीत गोंयची सभ्यताय सोडून
कित्याक इंतेराचीं बोंदेरां आपणायल्यांत
केंसांक धरून पायांनाखटां मेरेन
जिबेवेले भाशेक धरून
काळजांतल्या चिंतनां मेरेन
कित्याक तुवें तुका घाणाक दवरला?

रस्त्यावेले केण्टांत तुका
शेजारचे हिणसायतात
भाशेखातीर केन्ना केन्ना
तुजें तुकाच धांवडायतात
आता तरी सांग म्हाका
खंयची तुजी आवय भास
परक्यांची भाशीक बंदखण
कित्याक तुवें आपणायल्या?

गोंयकारा खंय रे तुजें
गोंयकारपण शेणलां
चांटेपावलाक उश्टें परक्यालें
कित्याक तुवें चाटलां?

# 16. बांद आनी आडे

गांवा गांवात बांदल्या आडे
म्हजे पुरतो म्हजो गांव
तुजे पुरतो तुजो गांव
म्हज्या गांवा तूं येवं नाका
तुज्या गांवा हांव येवंचोना.

मनशा मनशान घाल्या बांद
म्हज्या मना पुरतो म्हजो बांद
तुजेखातीर हांव कित्याक चिंतू?
तूं तुजें पळय,
म्हजें हांव रांदपी, तुजेंच तूं रांद.

घराघराक हांगा आडे
म्हजें पोरसूं म्हजे खातीर
रोय तूं तुजेखातीर तुजे पोरसूं
म्हज्या पोरसांतली फुलां म्हज्या देवांक
तीं तुज्या देवांक मेळचीना.

हांगा सगळ्या देवाधर्मांचे बांद
आनी जातिकातीचे आडे
म्हजोच धर्म व्हड आनी
म्हजीच जात धड
तूं मात म्हाका आफडूनाका.

# 17. आमकां आज जाग आयल्या

दोळ्यांतलीं दुकां आज दुकां उरुंकना
आमकां आज जाग आयल्या
आमी न्हिदुंकना
काळ जाले कितलेशेच
कोंत आनी हिशोब ना
तुमी धोल धोल बडयले आमच्या पोटार
भितरले भितर रडले आमी
आवाज उठोवंकना
पूण आनीक फुडें अशें चलचेंना
आमच्या धोलार बडयो तुमच्यो
आमी बडोवंक दिवचेना
लोखंड जावन सांसणाचें
आमी कात झडयली तुमचे खातीर
जोडलें तुमी आमची पोटाफाळी
लेगीत भरुंकना.
आमी गळयलो घाम आनी
तुमी घेतले दाम
तुमचे फाटल्यान भोंवतना
झरली पोन्नी व्हाण
पूण आनीक फुडें अशें चलचेंना
आमची व्हाण पांयांतूच आतां उरचीना
तोंडार तुमच्या पडूं येता
आमी आता वोगी रावचेना
आमचे खुस्तार जियेवपी तुमी

आमचे खावन आमचेरच पडल्यात
पिकोवंचें एकट्यान खावंचें दुसऱ्यान
ही रीतच जाल्या संवसाराची
आजमेरेन पोटाक धरून रावले आमी
आवाज उठोवंकना
पूण आनीक फुडें अशें चलचेंना
आमचे खुस्तार जियेतल्यांक आमी
जियेवंक दिवंचेना
आमच्या दुखार हांसचेली संवय
ना म्हण, उमेद तुमची सांसणाचीच
हे फुडें केन्नाच भागचीना
दुकां आमची सोपूंक आयल्यांत
आतां आमी दुकां गळयत रावचेना
आज मेरेन अंदिल्लो ताळो आमचो
ज्वालांच्या हुंवारा वांगडा सुटला
खोलाय काळजांतल्यान बोंब आमची
आज भायर सरल्या
आजून आसात जिते आमी, मरुंकना
आनीक फुडें अशें चलचेंना
दोळे कान धांपून आमी मोने जांवचेना
आज आमी जागे जाल्यात परत न्हिदचेंना
तांक आमची पळयात
हड्डें फुलोवन रावपाची, ताठ मानेन जगपाची
आज आवाज, आमचो मळबाकय चिरत वतलो
मेल्ल्या मड्यांक उठयत रावचोना
आमकां आज जाग आयल्या आमी न्हिदूंकनां.

## 18. बुरखो

शांतिकायेचो बुरखो घाला
देखून आमी भिजूड न्हय
हात आजून उबारूंकना
हाचो अर्थ आमी भिजूड न्हय
आमकांय आसात हात
तुमच्याचवरी दोन
तुमी मारत चार
तर आमी परतीतलेच दोन.

तुमचे मर्दी तांक ना
एकसुऱ्यान झगडचेली
आसत तुमी सात–आठ
तरच तुमचीं शाणपणां
हरशी नातर सगळे तुमी बायजणां.

आमी न्यायाखातीर लडपी
न्हय अन्यायान जगपी
आमी सत्याखातीर
हजार खेपो मरपी
ना अन्याय सोंसपी मोन्यांनी
तुमकांच आसा भंय मरणाचो
देखून भोंवतात गेंगांनी

आमचेचवरी तुमकांय
आसा आवय-बापूय
तरीय तुमी अशें कशे
रस्त्यावेले किडे कशें
आतां तरी सुदारात
शांतिकायेचो सत्याचो मार्ग धरात
समजुंनाका आमकां पिशे.

आमकांय झगडूंक कळ्टा
आमी रावचेना सदाच अशें
शांतिकायेचो बुरखो घाला
देखून आमी भिजूड न्हय
हात आजून उबारूंकना
हाजो अर्थ आमी भिवकुरे न्हय.

# 19. आमी तुमच्या खुस्तार जियेतले

आर्दी खंय हांगा सर्ग आशिल्ले
तें आमकां कशें कळटलें
नरकांतल्यान आयल्यात आमी
नरकांतूच वतले.

आर्दी खंय हांगा संत-साधू आशिल्ले
म्हण्टात आयजय आसात ते सगले
तांचे उपदेश जाय कोणाक?
ते आमकां किदें शिटकायतले
फटींग आमी फटींगपणाच करतले.

आर्दी खंय हांगा मनीस मनशांक मानताले
म्हाका दिसना आज तशें आसतलें
आज फटकिऱ्या युगांत ह्या
जे जल्माक आयले ते भश्टले
ते एकमेकांक किदे वळखतले?

आर्दी खंय लोक कश्ट करून जियेताले
तें घेवन बसता कोण आदलें?
कश्ट ते रे करचे कोणे?
आमी तुमच्या खुस्तार जियेतले
आमी तुमच्या खुस्तार जियेतले.

# 20. लाख लाख सलाम

हे मायभुंये तुजेखातीर
लडले लाख जवान
समर भुंयेचेर उक्ती छाती
रगतान तांबडी जाली माती
जिणेच्यो पेटोवन वाती
उजवाडायल्यो काळख्यो राती

हे मायभुंये तुजेखातीर
लडले लाख जवान
झुजाऱ्याची त्या ताठ मान
राखूंक तुजी शान
बागयली ना केन्नाय भंयान
दिलें प्राणांचें बलीदान.

हे मायभुंये तुजेखातीर
लडले लाख जवान
संवसाराचो करून त्याग
सरले भायर हिंदुस्तानी वाग
वाचोवंक तो कारगिली भूभाग

हे मायभुंये तुजेखातीर
लडले लाख जवान
सोडून जन्मदात्रेचो पदर
जन्मभुंयेचो राखूंक आदर
झेल्लो तोफगुळ्यांचो शिंवर
आपणायली तिरंगी चादर

हे मायभुंये तुजेखातीर
लडले लाख जवान
तांका लाख लाख सलाम
तांका काळजांतल्यान प्रणाम!

## 21. रे भारता

तुजोच रे मोगी हांव
तुकाच लागून
तन्नी कुड रे म्हजी
गेली भाजून
सळसळतें रगत रे
गेलो पिवून
तुजोच रे पूत हांव
तुकाच लागून
वाडोवन मिशी-दाडी
घेतली होमखणांत उडी
तुटली जरी म्हजे जिणेची दोरी
सुटची ना रे हाताली सुरी
तुकाच लागून रे भारता
हांव संकल्प आयज करतां
सोंपतलें हें जिवीत म्हजें
फकत राखण करूंक तुजी.

## 22. आमी तरणाटे

आमी तरणाटे,
भविश्य फायच्या गोंयचें
हाताक हात मेळोवन काम करतले
स्वतंत्रतायेचो झेंडो हुबयतले

भविश्य गोंयचें उज्वल आसा
जेन्ना आमी सगळे एकठांय आसा
भिरांत कित्याक आसतली?
मेळून सगलीं सुखान जियेतलीं.

हिंदू-मुस्लीम मानचो ना
अशें वचन तूं दी
गोंयचे भुंयेक सदांच
गर्व तुजो आसूं दी.

रणांत भिडूंक शत्रूवांगडा
हाजीर करतलें शिरां धडां
व्हांवोवंक रगत रावचे नात रे उणे
गोंयची राखण करूंक
जिव दिवन जातले पेणे.

## 23. उदेंतो सूर्य

उदेंतो सूर्य हांव
आयला करूंक पयस काळोख
लखलखीत करूंक मळब
उजवाड तुमकां दिवंक
वाटसुऱ्यांक वाट दाखोवंक.

उदेंतो सूर्य हांव
जैत हांवें काळखाआड जोडलां
खऱ्यानीच मारीना बंडलां
करूंक झगमगाट आयला हांव
म्हजें स्वागत करूंक तूं राव.

उदेंतो सूर्य हांव
पयलें पावल भुंयेर दवरतां
सगल्यांक हर्षभरीत करतां
उदेंतो सूर्य हांव
कोरांततां उगड्या मळबार म्हजेंच नांव.

## 24. म्हजो गांव

धुल्लाचो गांव म्हजो
भांगर पिकयता
लिकलिकपी चकचकपी
जीण फुलयता
फांतोड जितली थंड-नितळ
दनपार वतान रखरखता
गांव म्हजो घामान भिजून
आंग आंग लिकलिकता
पांचवीं झाडां माखून पानां
पावसं आशेता
गांवां म्हज्या जळमळीं रुखां
रावन उबी शीमेर
दुकां गळयता.

## 25. भेट ती सूर्या–सागराची

एके तरणे तिनसांजेर
भेट घडली दर्याचेर
सूर्याची मंद सांवळी
दर्याची ल्हारां कंवळी

दोळ्यांत दोळो घालून
माड पळेता तेळून
आपालिपा करून मदींच
चंद्रीम पळेता लजून

भेट ती सूर्यासागराची
मोगी आनी मोगिकेची
माडा चुड्टांची
भेट आगळी वेगळी पुनवेची

सूर्याक वेंगावपी उपाट ल्हारां
आडायता मोगाचो हुंवार
उंच उंच निळ्या मळबार
लजेत उडटा सुकणें तालार

द्वंद्व चल्लां सूर्या चंद्राचें
फांस पडल्यात माडांक नखेत्रांचे
जुळटा नातें मोगाचें
नातें दोन मोगी जिवांचें

तप्त भांगरा रेवेंचेर
घड्टा मीलन दीस रातिचे
कुसव्यान घेवन रात
जल्माक घालता बाळक नवे फांतोडेचें.

# 26. म्हजें गोंय

तें म्हजें गोंय
आसत काय थंय
सगली ठाकठीक सोय
जंय म्हजें भुरगेंपण
फुल्लें थंय
आसत काय म्हजें भुरगेंपण
बाळगून दवरल्या जायत काय
म्हजी जीण थंय
हय गे म्हजे माये
आसा तूं खंय?
वाट गे पळयत
बसलां हांव दारा
ह्या गोंयच्या ल्हारां
सांग म्हाका
केन्ना मेळटली
म्हज्या गोंयची माया?

## 27. पेटलां उजो निसर्गांत

दर्याचे देगेर भोंवलो हांव
जाणवलो निसर्गाचो थाव
सगलो म्हज्या मनाचो भाव
सांगता म्हाका हांगाच राव

नुस्तें तें पळोवन उदकांतलें
आनी मळबांत शेवणें धाकटुलें
म्हाका मारूक पांखां सांगतालें
मनाक म्हज्या मळबांत हुबयतालें

हुबतें जिवीत तें
करून दिता याद
तें भुरगेंपण मस्ते
दीस आनी रात

पेटला उजो मनांत
जायशी दिसता शितळकायेची साथ
मेळना ती मात
कारण पेटलां उजो सगल्या निसर्गांत.

# 28. तुळस

स्तब्द तूं उबी
म्हजे दारांत
दीस आनी रात
सांगाताक तुजे पेट्टी ती एकवात

भोंवतणचो सगलो
तुजो सैम
पावस आनी गीम
सोबीत तूं रावल्या, उबी मारून दीम

तुळस तूं दारांतली
राणी म्हज्या आंगणातली
सांगाती सोबती
पुराय जिणेंतली.

## 29. गुपीत 1 ते 14

### गुपीत 1

न्हय हें गुपीत सांगचेलें
जगा मांडार मांडचेलें
गुपीत तुज्या–म्हज्या मोगाचें
तुज्या म्हज्यांतच पिकोंवचेलें.

### गुपीत 2

गुपीत मोगा सांगलें तुवें
एकाच उतरान
कवीत केलें जिणेचें हांवें
तुज्या मोगान.

### गुपीत 3

तुका सांगचें आसा
गुपीत मनाचें
तुज्या कानांत सांगूं
काय करूं संवंग मोन्याचें.

## गुपीत 4

तुजें रूप सोबीत
तुजें दोळे गुपीत
वोंठ गायता गीत
तूंच म्हजें कवीत.

## गुपीत 5

गुपीत काळजांतलें
गुपीतच आसा
खोंपीत रावतालें, खोंपीतच आसा
मागीर जग खंय बदल्लां?

## गुपीत 6

गुपीत म्हजें
शब्दाकणकणी उदकें जालें
पुराय जातकर
मोगा रंग पितारलें.

## गुपीत 7

मोगाचें गुपीत
पोटाचे खोंपीत
ती भोंवता
कूड धांपीत.

## गुपीत 8

गुपीत कुडी
कितलीं मडीं
बायल भुरगीं
उगडीं नागडीं.

## गुपीत 9

गुपीत तळ्यांतलें
व्हांवन गेलें
आनी पिशें मन म्हजें
न्हावन गेलें.

## गुपीत 10

एकच गुपीत
बाकी सगळें लिखीत
मरण लेगीत
जल्मच घडूटा अचकीत.

## गुपीत 11

रातीचे गुपीत
सूर्या उलगडायता
म्हज्या काळजाच्यो
करून राती, करून राती.

## गुपीत 12

गुपीत दर्या
मारली उडी
थाव सोदीत
आयलो तडी.

## गुपीत 13

मना गुपीत् पेरलां
दोळ्यांत सपन पळेलां
पयस मळबा येदें
गुपीत उजवाडा आयलां.

## गुपीत 14

गुपीताचें गुपीत
म्हाका होल्मलेंना
हांव तुजो कांय तूं म्हजे,
कांयच म्हाका समजलेंना.

# 30. कवनां

१

हांव एक पिसो कवी
जंय थंय करीत गेलों कवनां
आज जिणच जाल्या
एक अर्दकुटें कवन
पुराय करूंक शब्दच मेळना.

२

दुखां विणें सुखा जिणें
अर्थ म्हाका लागना
सदांच हासत रावप कितें?
सुखा मोलच होल्मना.

सदांच हांसत रावल्यार
पोल्यांक दुकां उब खंयची?
दोळ्यांतय म्हण
कितलीं दुकां सांबाळची?

# 31. कवनां

१

जिणेंत म्हज्या
तुज्या विणें
आसा कितें
फक्त यादीचे गोणे!

२

तुजे विणें म्हजे जिणें
कांटेच कांटे
जिणेचे वाटेक म्हजे
फांटेच फांटे
एक फांटो तुजे दारां!

## 32. इश्टागत

पयस तुका करूंक
काळीज म्हजें ना रे राजी
भियेता ही कूड म्हजी
तुका विसरूंक.

इतले दीस सुखान काडले
पावंडे जैताचे वांगडा चडले
आतां कशे सोडून रावचें
बंद जालें रगत व्हांवपाचें.

याद तुजी रे सदांच येतली
अपुर्बायेच्या खिणांची याद येतली
म्हाका ती रडोवन वतली
जिणेची पावलां जड जातली.

वांगडा खेळ्ळे आमी नाचले
आयज वर्स आमचें सोंपलें
भरून आयले दोळे
उरिल्ले दीस कशे रे वतले?

## 33. खेळ नजरेचो

दोंगुल्ले वटेन
त्या झऱ्याकडेन
हांडीर कळशी घेवन
पळयलें तुका वतना तेच दिकेन.

सोबीत तुजी चाल
दिसताले उठोन धवेफुल्ल गाल
झपाझप मारीत पावल
धरून एक ताल
माडयत ती भुवळें वाल.

हांडी वयली कळशी
गुळगुळीत तांबशी
एक वटेन बागवल्ली कशी
तशें तुवें पळयलें म्हजेशी
नदर करून तिरशी.

पळोवन ल्हवूच म्हजेकडेन
घातली खाला मान लजेन
करून पळेता पळेना
स्वागत केले तुवें हांसून
सोंपयलो खेळ हांवें उदक मागून.

## 34. रूप तुगेलें

रूप तुगेलें पळोवंन गो
दूख म्हगेलें जिरलें सामकें
कूप जें आयलें दाटून
निवळ केलें रडून.

रूप जेन्ना नदरेक पडलें
काळीज म्हजे सामकें सुटलें
एकुच मागीर तें वादळ उठलें
स्पर्श करूंक तुका हात थरथरले.

तेज तुज्या रुपाचें
उजवाड घालता म्हज्या मनाचेर
भाव तुज्या रुपाचे
दिसता न्हय केन्नाच विसरचे.

## 35. तूं म्हजें

ह्या दोळ्यांनीं देखलां तुकां
म्हज्या काळजांत राखला तुकां
फटी तूं मारीनाका म्हाका
सारकें सांग तूं लजेनाका.

लजेची व्हंकल जावन दडूं नाकां
पैल* गो केली हांवें
आता साथ दी म्हाका
तूं जिणेंत कोणाक भियेंवनाका
तुका दिवंचोना हांव गळोवंक दुकां.

जपतलो फुलावरी मन तुजें
गुपीत सांग म्हाका ल्हवू तुजें
घेबंक लावचोंना तुका वजें
तूं फकत नी, फकत म्हजें.

* पैल – सुरवात

# 36. फुलत्या फुला

फुलत्या फुला नांव तुजें
म्हाका कीतें सांग
खंयच्यान तूं आयलां
तुजो गांव खंयचो सांग!

मोग म्हजो परमळटा
तुका कितें दिसता सांग!

फांतोड फुला न्हय गो
तूं शेंवतें आबोलें
वळख तुजी दिवन म्हाका
तुजें नाव कितें सांग!

फुलत्या फुला फुलत राव
सदांच खोशेन हांसत राव
दोन दिसांच्या मोगाक म्हज्या
दी परमळाचो गांव.

फुलत्या फुला नांव तुजें
म्हाका कितें सांग
रंगरंगयाळ्या जगांत ह्या
तूंच धवकें कित्याक सांग!

## 37. सपन

तुज्या नांवाचें सपन
एक रचलां
उडत उडत....
तूं आज म्हज्या दारांत पावलां
तुज्या येवकाराक
फुलांचो हार घेवन हांव रावला
फुला कळयांनी
सपन म्हजें फांतोडेचें सजलां
सोबीत परमळांची
फुलां मोगा झाडार फुल्ल्यां
काव्याच्या तळ्यांत म्हज्या
पेंवपी मोगाचें साळक जालां
तुज्या नांवाचें
सपन सुपुल्लें काळजांत म्हज्या उरलां.

## 38. हांसता जाल्यार

हांसता जाल्यार हांस
चकचकीत वझ्र्यावरी
खळखळून हांस
हाय-ब्रीडचे हांशे हंय-न्हयशें
खेळोवंनाका गालार
सोबीत सुंदर गाल तुजे
फटवनाका तांकां
हाडून अडेचे हांशें
हांसता जाल्यार हांस
लकलकीत चान्न्यावरी
उजवाडावन हांस
घसघशीत उपाट भरूदीं
हांसो तुज्या मुखामळार.

## 39. तूं

तटतटीत फुलांमदीं
तूं एकलेंच कित्याक फूल बावकें
रंगरंगयाळ्या सवण्यांमदीं
तूं एकलेंच कित्याक धवकें
मोगा म्हज्या सांग कित्याक तूं
म्हजेखातीर आजून परकें.

जीण म्हजी तुजेखातीर
तुका सांवळी दिवंक
हांगा सगलींच हांसरी तोंडां
मागीर तूंच कित्याक रडकें
तट्टीत फुलांमदीं
तूं एकलेंच कित्याक बावकें
चकचकपी कळयांमदीं
तूं एकलेंच किदयाक मोनें?

## 40. हांव मोनो

मोगा हांव मोनो उतरांनी
जाल्यार कितें जालें?
म्हजें काळीज सादयता
तें तुका आयकूं येना?
कांय तूं भेरें?
मोगा म्हज्या उस्वासाचीं
घालमेल तांची उब तुका जाणवना
कांय तुवंय तेंच चिंत्ता
जें हांव म्हजें मन
उस्वासाचे सोड तांकां,
मायेची उब नासत
पूण म्हजे दोळे ते तरी
तुवें वाचचें आसलें
तुजेखातीर राती जागोवन
पळयिल्ल्या सपनांची पानां
तुका म्हज्या दोळयांत दिसुंकना
जाल्यार अजापच
कांय तुवें फकत
जागरणांच पळयलीं दोळ्यांतलीं?

# 41. मोगा रंग

मोगा तुजो रंग कसो
आज पळय मळबांत रंगला
धायदिको सर करून असो
काळजांत म्हज्या रिगला.

मळबांतलो रंग कसो
आज पळय उदकांत फांकला
धतरीचो भरून पोसो
दिगंतरात धायदिको रकला.

सांजेच्या वेळार लेगीत कसो
सूर्या पळय उदेला
मोगा तुज्या रंगान कसो
आज पळय चंद्र चितारला.

मोगा तुजो रंग कसो
आज पळय मळबांत रंगला
चान्याचो निवळ हांसो
मळबभर फांकला.

## 42. मोगा चंवर

मोगाक आज फुटला चंवर
तरतरुन पानेल्या नवी सांवर
रुपान तुज्या दिसता म्हका
संवसाराचो उचामेळ भोंवर
काळजांत तुज्या म्हजेखातीर जागो दवर.

मोगाक आज फुटला चंवर
म्हज्या वांगडा तुजो मोग
मोगान आमच्या फुल्ला दोंगर
जळा मळां शेणला पळय
अपरुपी लकलकी भांगर.

तुजी आगांपांगा आज भांगरावरी
चकचकता झगझगता
मोतयां माणकांवरीं
आज मनांत म्हज्या धोलता वारें
मोगाच्या तुफानांवरीं.

# 43. मोगा पिशें मन

मोगा पिशें मन म्हजें
आयलें आज चंवरा
फुला वोंठ चिंवून
गेला भंवरा
तारिकीटी धूम तारिकिटी धूम
ता थै ता थै!
मन मयूर नाचता
भेटून आयला
म्हज्या राजकुंवरा
गालांची म्हज्या लाली
जाल्या लालन लाल
मोगाचो रंग
चडला गुलमोहरा
पुनवे रातीं सोदता तुकां
नखेत्रांच्या शिंवरा
मोगा पिशें मन म्हजें
शेणलां मोगाच्या हुंवारा
मोगा पिशें मन म्हजें
आयलें आज चंवरा.

## 44. तुंवय यो

पावस आज येवंचो आसा
तुंवय बेगीन यो
बेबकाचो खेळ खेळूंक
व्हडी सोंडूक यो.

हातान म्हज्या दिवन हात
उक्त्या पांयां बांदया तूं यो
यो गो बेगीन यो
पावस लेगीत आयलो
आतां तरी यो.

वाट हांव पळयत आसा
धांव मारून यो
आईचो सोडून पालव
बेगीन तूं यो.

तुकाच गो रावतां हांव
पावसांच्या धबधब्यान
चिप्प भिजलां
आतां तुंवय भिजूंक यो.

संवसाराचे भोवंडेक
जिणेच्या तारवार तूं
म्हजे वांगडा यो
पावस पळय आयलो आतां तुंवय बेगीन यो.

## 45. राती पुनवेच्यो

राती पुनवेच्यो
दुदाळ उजवाड फांकला
मळबाच्या पदरार
चंद्र उदेला
चान्याचो लखलखाट
अचळयत दोळ्यांत म्हज्या
तुजें रूप रेखाटायतां
थंड निळ्या मळबांतलें
फुल्ल धव्या साडयेंतली
गोरीपान पावलां तुजीं
काळजार म्हज्या उदेता
तुज्या पावलांची वाट
चडत वता म्हज्या
मोगाचो घाट, आनी हांव
पुनवेच्या राती
मोगाच्या घाटांवेलें
धुकें सांसपितां
तुका सोदपाखातीर
राती पुनवेच्यो
तुज्या गोऱ्यापान पावलांचो
उदेत्या चंद्राच्यो
म्हज्या मोगी जिवाच्यो
घाटारूच उरतात
आनी पयस तूं, चंद्राचेर सुवार
म्हाका पयसुल्ल्यान कुरवो करता.

## 46. म्हजे जिवीत

म्हजें जिवीत
कितें तुजे विणें
हें हांवच नकळो
तरीय जियेता
तुज्यो यादी काडीत
यादिंनी तूंच आसा
देखून आनीक
कांयच हांव नकळो
रात दीस
चंद्र सुर्या
उदेता अस्तमता
आनी देखून
म्हका समजता
हांव जियेता
पुण कित्याक ?
कोणाखातीर ?
तें होल्मना
दोळे धांपतकर
तूं दिसता
उगडल्यार तुकाच
ते सोदतात
म्हुणुनच म्हजें
जिणे तुजे विणें
कितें हें हांवच नकळो.

## 47. पुनवेचे रातीक

पुनवेचे रातीक सांगता तुका
न्हीद म्हाका पडलीना
तुजी उतरां कानांत म्हज्या
येवन येवन थांबलीना
म्हाका म्हज्या मनान
कांयच मगो सांगलेंना
काळजान म्हज्या केन्ना तुका
आपणायलें हेवूंय कळ्ळेंना.

पुनवेचे रातीक सांगता तुका
न्हीद म्हाका पडलीना
परत परत चंद्रीम तो
म्हाका वेडायतालो
रूप तुजें म्हाका
घडये घडये दाखयतालो
भोंवतणची नखेत्रां
काळजांत म्हज्या पेटयतालो.

पुनवेचे रातीक सांगता तुका
न्हीद म्हाका पडलीना
पलंगभर लोळ्ळों हांव
दोळे मात झेमलेंना
मनाक खूब आडायलें

काळीज मात रावलेंना
केन्ना तुजेसरशी उडलें
म्हाका कांयच कळ्ळेंना.

पुनवेचे रातीक सांगता तुका
न्हीद म्हाका पडलीना
सपन मात पळयलें
दोळे उकते आसतना
तुजे भेटेची आस आसली
तूं मात भेटलेंना
खूब तुजी वाट पळयली
तरीय तूं आयलेंना.

पुनवेचे रातीक सांगता तुका
न्हीद म्हाका पडलीना
मोगा कवन सुचलें म्हाका
वोंठार मात आयलेंना
मनांत म्हज्या आसा कितें
केन्नाच तुकां सांगलेंना
कितले धाडले अदृश्य संदेश
तुजे मेरेन ते पावलेना
पुनवेचें सपन म्हजें
फांतोड तरीं फुल्लेना.

# 48. उमाशेच्या काळखांत

हांव आनी ती रात
दोगांय एकलीं एकसुरी
रातीची काळखीच जीण
म्हजेय जिणेंत फांकता काळखा खीण
सगळे आसात म्हजे आडेकडेक
सुस्त न्हिदील्ले
मळबय उमाशेच्या
गोपांत गोठेल्ले
सगळेकडे काळोख बिण्ण्
झाडापेडां रस्तो तळे
सगळें लिपलां
म्हज्या काळजांत दाटला काळोख किण्ण्
रात मोनी उतर नाशिल्ली
हांव मात आड्डता
बोंब मारता बोंबले देठांतली
सगळें न्हिदल्यात
नखेत्रांय पालवल्यांत
आनी एकलो एकसूरो हांव
रातीच्या गोपांत
म्हजे म्हाकाच सोदतां
उमाशेच्या काळखांत
काळोख जाता.

# 49. मोगा वाल

ह्या मना वाल फुल्ल्या
तुज्या मोगाची
त्या राना पळय वचून
रात जागल्या
तुज्या यादींची.
रखरखपी दनपार लेगीत
जाल्या थंडसाये फांतोड
ह्या मना सडो घाला
तुज्या उतरांचो
त्या वेळेर पळय वचून
म्हजो गांव शेणला
तुज्या उतरांची भरती
गेल्या सुकून
ह्या मना वाल फुल्ल्या
तुज्या मोगाची.
त्या दोंगरार पळय वचून
न्हंय व्हांवल्या
म्हज्या दुकांची
ह्या मना वाल फुल्ल्या
तुज्या मोगाची.
त्या राना पळय वचून
रात जागल्या
तुज्या यादींची.

## 50. जिणे तारुं

मोगा तड गांवची कशी ?
जिणे तारुंच अशें व्हांवलां
खंयचे दिकेन वल्हवं व्हलें
जंय शीडच परतलां.

मनांत ओलें व्हांवता वारें
काळीज भियेलां
मोगा तड सोदीत अशें
तारुं म्हजें भोंवलां.

विस्वासाचें वल्होवन व्हलें
तुजे लागीं येवंक पावलां
परतिचो मनांत विचार
खूब खोलाय रिगलां.

मोगा तड गांवची कशी ?
तारया म्हजो बुडला
आता तारुं आपलें आपूण
ल्हारां वांगडा चल्लां.

आता ल्हारांचीच करुन तड
मोगाखातीर रावलां
आलतड ना पलतडय ना
तारुं म्हजें मदले मर्दी हुंबलां.

## 51. म्हज्या मोगा...

आज अचकीत
मेजा खणांत सांसपितना
मेळ्ळी दोन उतरां तुजी
उतरां खूबच पोन्नी जाल्लीं
वेळा वांगडा जाण्टीं जाल्लीं
तुवें बरयल्लें ......
म्हज्या मोगा ......
आनीक बाकी पान कोरेंच सांडिल्लें
आजय पळय तशेंच तें
कोरेंच आसा
तुजी उतरां अर्दकुटीं
म्हजी जीणय पुराय जावुंना
उतरां फाटलीं चित्रां मात
दोळयांत म्हज्या देंवतात
वर्सां फाटलो मोगा उमो
परत एकदा पोल्यार उदेता
आनी हांव शेणटां यार्दीनी
तुजीं उतरां दवरून मेजार
म्हज्या मोगा .....
मना म्हज्या आजय हेंच कोडें
तुवें फुडें कित्याक बरयलेंना
कागद सोंपलो ? ... शें ...
तो तर कोरोच आसा ...

मागीर शाय ?
काय मोगच सोंपलो ?
जावंचे आदी
आजय होच शीण म्हजो
तुज्या दोन उतरांचो
भानार येसर मन
मेजार वारें खेळ्ळें, आनी
तुजी उतरां
म्हज्या मोगा ...
परत एकदा शेणलीं
म्हजी जीण
पुराय जाय नासताना
आज अचकीत
मेजा खणांत सांसपितना
मेळ्ळीं दोन उतरां तुजीं
मेळ्ळींय बी आनी शेणलींय बी
यादी जागवोन तुजीं उतरां
म्हाका परत गेलीं शीण दीवन
म्हज्या मोगा ....

## 52. वेळेवेलीं पांवलां

वेळेवेलीं पांवलां
सदांच मनार यादी कोरुन वतात
दर्यावेलीं ल्हारां मात
यादी पुसून वतात खोल दर्यांत
दर्यांतल्यो यादी मागीर
परततल्यो म्हण हांव वाट पळेतां
दर एका परततल्या ल्हाराक
आशेन गोपायता सांसपिता
पूण यादी गावच्या आदींच
ल्हारां परततात खोल दर्यांत
आनी ओलें मन घेवन हांव
आंग सुकयतां खार वाऱ्यांत.

आनंद फडते जल्म 08 जुलै 1980 वर्सा सावड्ड्या गांवात. मुळावें शिकप सावड्डेंच्या सरकारी प्राथमिक शाळेंत, माध्यमिक शिक्षण सर्वोदय कुडचडें, उच्च माध्यमिक शिक्षण कुडचडेच्याच गार्डन ऐन्जल उच्च माध्यमिक विद्यालयांत जाल्यार पदवी मेरेनचें शिकप फोंडेच्या जि.व्ही. एमस् वाणिज्य महाविद्यालयांत जालें.

महाविद्यालयीन पांवड्यावेल्यान कविता, कथा, नाटकुलीं अशें बरप केलां. साबार सर्तीनी वांटेकार जावन कांय इनामांय जोडल्यांत. गोंय दुरदर्शनाचेर कविता सादर केल्यांत. नाटकुलीं बरोवप, बसोवप आनी स्वता अभिनय करपाचो छंद. युवा कोंकणी साहित्य संमेलनानी सहभाग. 17 वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य सम्मेलन कुमटा 2005 हांगा एक निमंत्रीत तरणाटो कवी म्हूण सहभाग.

